

# गुलमोहर

कवितां झेलो

जॉन आगियार



दीपांजली प्रकाशन

गुलमोहर (कवितां झेलो)

दीपांजली प्रकाशन
(प्रकाशन क्रमांक 1)



पयली उजवाडावणी
मार्च 2011

छापणावळ
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसॅट, वळवय, फोंडें

मुखचित्रा वयलो फोटो : नवदीप जॉन आगियार

मोल : रु. 100/-



हें पुस्तक कला आनी संस्कृताय खात्यान 'लेखकां खातीर अर्थीक आदार' हे येवजणे खाला उजवाडायलां



हीं गुलमोहराचीं सुपुल्लीं काव्यफुलां हांव म्हजे आवयक
कवळेंचे श्रीशांतादुर्गा देवीक श्रद्धेन ओंपतां...

# गुलमोहराच्या निमतान

नमस्कार,

आयज 'गुलमोहर' हो म्हजो दुसरो कवितां झेलो तुमच्या हातांत दवरतना म्हाका खूब खोस भोगता. म्हजो पयलो कवितां झेलो 'जीण' 1995 वर्सा प्रकाशीत जालो. ताचे उपरांत मदल्या काळांत हांव सरकारी तशेंच घरगुती कामांत घुसपल्ल्यान कविते कडेन वेळ दिवंक मेळ्ळोना. कांय कविता नकळटां घडल्योय बी पूण बरोवन दवरल्योनात. 'उकतें मळब' हे संस्थेच्या आदारान म्हजे कवितेक परत एकदां चंवर फुल्लो देखून हांव उकतें मळब संस्थेच्या म्हज्या सगल्या वांगड्यांचें आनी चड करून भरतबाब नायकाचे उपकार मानतां.

'जीण' हो पयलो कविता संग्रह हांवें म्हज्या आवयबापायक ओंपला. त्या वेळार प्रकाशनाक म्हजीं आवय आनी बापूय दोगांय आसलीं. आयज तीं आमचे मदीं नात. पूण तांचो आशिर्वाद सदांच म्हजे वांगडा आसा. हो झेलो हांव कवळेंचे शांतादुर्गा देवीक ओंपता. तिणें म्हाका मागला. ती सदांच म्हजे फाटल्यान आसा. तिचो आशिर्वाद म्हजेर सदांच आसा आनी देखून आवय फाटल्यान तीच म्हजी आवय.

भौ. माधवबाब बोरकारान ह्या पुस्तकाक व्हड खोशयेन प्रस्तावना बरयल्या. बाब अमोल कामतीन अक्षर जुळोवणेक आदार दिला. भौ. दामोदरबाब घाणेकारान पुस्तक संपादीत केलां. तांचे सगल्यांचे उपकार.

तशेंच, म्हजे इश्ट संजीव झर्मेकार, सुहास मांद्रेकार, प्रल्हाद मयेकार, रमेश घाडी, सुनील पालकर आनी 'उकतें मळब' संस्थेचे सगले सांगाती जांणी म्हाका मोलाचो सल्लो दिलो तांचोय हांव उपकारी. हें पुस्तक कला आनी संस्कृताय खात्याचे 'लेखकां खातीर अर्थीक आदार' हे

येवजणे खाला उजवाडायलां देखून तांचे मना पसून उपकार.

हें पुस्तक 'दीपांजली' प्रकाशना वरवीं उजवाडायलां. 'गुलमोहर' चंवरपाक म्हजी घरकान्न सविता आनी भुरगीं नवदीप आनी अंजली हांचो भोव मोलादीक आदार म्हाका फावो जाला. हिरूबाब  नायक जांणी हें पुस्तक अपुरबायेन छापलां तांकां हांव कसों विसरन?

मनशाचें जिवीत हें सूख-दुख्ख आनी सुकते-भरतेचो समंदर. माया, क्रोध, मोह, दुस्वास ह्या विखांचें खतखतें. गीम, पावस आनी शियाळो ह्या मोसमांचो उत्सव. हातूंत समरस जावचें काय जावचें न्हय हें थारायता मनशाचें मन. केन्नाय मन जाता दुख्खी तर केन्नाय ताका फुलता चंवर. जेन्ना तें चंवरता तेन्ना ताचो परमळ धाय दिकांनी पसरता. जेन्ना जेन्ना म्हजें मन गावपाक लागता तेन्ना तातूंतल्यान फुलतात उतरफुलां. म्हज्या मनांतल्या पोरसांत फाटल्या कांय वर्सां मदीं जीं फुलां फुल्लीं तांकां नांव दवरलें 'गुलमोहर'. ह्या गुलमोहर फुलांक वेगळ्यावेगळ्या रंगांचो साज चडोवन रंगोवन, गुलमोहर करपाचो प्रयत्न केला. मनांतलो म्होंवाळ रोस ओतून उतरांचो हो भावात्मक गुलमोहर जेन्ना तुमच्या हातांत पावतलो तेन्ना तातूंतलें दर एक फूल तुमच्या मनाक भावतलें. दरेक फूल मनाक खुशालभरीत आनी आनंदीत करतलें. वेगळ्यावेगळ्या खळांचेर आनी मळांचेर फुलिल्लीं हीं फुलां ल्हवपीकपणान रंग झडयनासतना गुंथलीं आनी गुलमोहराच्या पोशांत घालीं. आतां तीं गुलमोहर ह्या नांवान तुमच्या हातांत दितना परतून मनांत खोशयेचीं फुलां फुलतात.

जॉन आगियार

**जॉन आगियार**

9822159705

# आशावादी कविता

खंयचोय नवो कवी बरयतना तो आपले मुखार दुसरी एक व्हड व्यक्ती आपलो आदर्श म्हूण दवरता. चड करून हो नवो कवी त्या व्हड कवीचे कवितेन भारावन गेल्लो आसता. तो त्या कवीची शब्दकळाच न्हय तर त्या कवीचो अणभव आपलो करपाचो यत्न करता. हाका आमी सामान्यतायेन अनुकरण अशें म्हणटात. आपूण अनुकरण करतां अशी जाणविकाय कवीक जाता तेन्ना तो तातूंतल्यान भायर सरपाचो यत्न करता. न्हय, तर ताणें तसो यत्न करपाचो यत्न करपाक जाय. अनुकरण हो शिकपाचे प्रक्रियेचो पयलो पांवडो. तो हुपून मुखार वचपाची उमळशीक ताका जावंक जाय. तो जसो जसो अणभवान वाडत वता तशी ताका ही नदर येता. आनी अनुकरणाचें रुपांतर प्रभावांत जाता. आनी प्रभाव आसप वायट न्हय. संवसारीक कलेच्या मळार अश्यो जायत्यो देखी आसात. कोंकणी कवितेचो विचार करतना मनोहरराय सरदेसायांच्या प्रभावा कडेन आडनदर करपाक येना. तांची कविता कोंकणी कवींच्या एक-दोन पिळग्यांचेर प्रभाव घालून गेली. आयजूय तांच्या प्रभावाच्यो कुरवो खंय खंय दिसतात. कोंकणी कवींक मनोहरराय सरदेसायांचे कवितेन कित्याक इतली भूल घाली? एक तर सोंपो आशय आनी तितलीच सोंपी मांडावळ.

ही सुरवातीचीं उतरां वाचून कोणूय कुवाड्यांत पडून ताचो जॉन आगियाराले कविते कडेन कितें संबंद आसा असो प्रस्न म्हाका करीत. खंयच्याय कवीचो विचार करतना ताचो एकोडो विचार करप जमना. तेच प्रमाण ताचो नवो संग्रह येतना ताचे आदीं उजवाडा आयिल्ल्या संग्रहांचो विचार करपाची गरज आसता. जॉन फाटलीं दोन दसकां कविता बरयता. हो काळ सामको ल्हान न्हय. ह्या काळाच्या कुडक्यांत ताची कविता कशी वाट चल्ल्या आनी आयज ती खंयच्या पेण्यार उबी आसा हाचो विचार म्हाका म्हत्वाचो दिसता. खूब फावटीं कवीच्या प्रवासांत कवितेची दिका सांडटा जाल्यार खूब फावटीं तिका योग्य दिका मेळटा. ते नदरेन हांव जॉनाचे कविते कडेन पळयतां तेन्ना तिणें योग्य दिकेन केल्लो प्रवास मनाक समाधान दिता हें म्हाका सुरवातिकूच सांगीन दिसता. ताणें आपले कवितेचें नीज वळखलां देखुनूच तिका योग्य दिका सांपडल्या. ताचे उदरगतीची ती एक कुरू.

जॉनाची कविता हस्तीदंती मनोऱ्यांतली न्हय. तिची वार समाजजिणेंत पुरल्या. समाजा कडेन आशिल्ली तिची लागणूक ती विसरूंक ना. समाजांत आशिकुशीक जें कितें घडटा ताचीं स्पंदनां तातूंत आयकुपाक येतात. देखून तो थोड्या किंवाट्यान म्हणटा :

हांगा बाजार भरला  
पसरे सजल्यात  
तरातरांचे; आनी  
ह्या पसऱ्यांचेर विकपाक आसात  
दुस्मानकाय, विस्वासघात,  
धर्मवाद, जातीयवाद, नसाय  
पूण हांव सोदून थकलां  
एक पसरो...  
जंय मेळटा मनीसपण  
फकत मनीसपण

आयज संवसारांत सगळें आसा पूण मनीसपण मात सोदून लेगीत मेळना. आयचो मनीस नितीमुल्यां शेणोवन बसला देखून ताचो मनीस म्हूण ऱ्हास जायत

चल्ला हे जाणविकायेन कवी अस्वस्थ जाता. तो थकला. अशें आसलें तरी तो पुराय निरशेवंक ना. बऱ्या उतरांचेर आनी बऱ्या कल्पनांचे आशेचेर तो जियेता. आपले बंद मुठींतल्या विस्वासाचेर ताची गाड श्रद्धा आसा. देखून

दोंगराचे तेंगशेर रावन
चंद्रिमाक वेंगावपाच्या हावेसाचेर

तो जियेता. हो हावेस ताका जगपाचें बळ दिता. शेणिल्लें मनीसपण केन्ना तरी मेळटलें अशें ताका मना पसून दिसता. भोंवतणीं निरशेवणेचें वातावरण आसलें तरी मनांत आशावाद जागो दवरता आनी वाचप्याच्या मनाक थाकाय दिता. तेच खातीर

दुदा बदल्याक म्हाका
दीख कित्याक दिता
जिवें आसा सपन म्हजें
वीख कित्याक दिता?

ह्या वळींक खाशेलो अर्थ आसा. सपनां खरी जावंक पावलिनात तरी कवी रंगांत ब्रश बुडोवन नवीं नवीं सपनां रंगयत रावता आनी 'तांच्याच आदारान फुडें सरता' अशें तो म्हणटा. केदो व्हड आशावाद हो! गुप्प काळखांत उदेवपी नक्षत्रांतल्यान जिणेक नवो आदार सोदपाचो. कवी जिविता कडेन न्हयकारी नदरेन पळयना तर जिवितांत उजवाड फांकून ती परजळून वतली ह्या आशावादान पळयता. चडावत भारतीय भाशांतल्या कवितांनी विद्रोहाचो आनी निरशेणेचो सूर आयकूंक येता. तो अडेचो आसा अशें म्हणूं नजो. तरी, परिस्थिती केन्ना तरी बदलतली असो आशावाद कित्याक बाळगुचो न्हय? शेणिल्लें मनीसपण एक दीस आमकां मेळटलें आनी कितलींय आडमेळीं आयलीं तरी 'युग नवें येतलें / जैत आमचेंच जातलें' असो खर आत्मविस्वास कवी प्रगटायता. आनी जैत जातलें जाल्यार एकामेकांच्या सांगातान चलून एकामेकांक समजून घेवपाची गरज आसा अशें तो शिटकायता.

जॉन जिवितांतले विरोधाभास दाखयता. आमचें हें जिवीत विरोधाभासांनी भरलां हें तो किराच्या प्रतिका वरवीं सांगता. आपले चोंचीन दुसऱ्याचें भाग्य सांगपी किराक आपलेंच भाग्य कितें तें खबर नासता.

ताचो संवसार म्हणल्यार तो,
ताचो पांजरो आनी ज्योतिशी धनी

अशी ताची अवस्था. आमचें भविश्य आमच्या हातांत नासता. हो सगलो खेळ रचपी हातांत सुत्रां घेवन पयसल्यान आमकां नाचयता ही चालंत कल्पना तो हांगा वापरता तरी ताची मांडावळ तो वेगळे तरेन करता. हो कीर भायर येवन लेगीत उडना आनी ताका आपल्या धनयाक सोडपाक जमना. ताचें कारण

मर्यादिचीं दारां तो कसो तोडटलो
विस्वासघात करपाक ताका जमना

अशें आसा. देखून ह्या संग्रहांतली आशया परस अभिव्यक्तीचें वेगळेपण घेवन आयिल्ली कविता म्हूण आमी तिचे कडेन पळोवं येता. ही सबंद कविता रुपकाचें रूप घेवन आयल्या. तिचे अभिव्यक्तीच्या वेगळेपणान तिका सांकेतीकतायेंतल्यान दोशमुक्त केल्या. अशेंच रुपक 'सत्य आनी फटींगपण' हे कवितेंतूय प्रभावीपणान वापरलां.

समाजीक जाणविकाय हो जॉनाचे कवितेचो एक म्हत्वाचो आशय. कांय कडांनी तो उकतेपणान जाल्यार कांय फावटीं तो सुचकतायेन व्यक्त जाता. 'देव विकपाक आसा' वा 'हे राधे' ह्यो कविता ते नदरेन म्हाका म्हत्वाच्यो दिसतात.

ह्या कवीक भुरगेपणाची सुमारा भायर ओड आसा. भुरगेपणांत जें एक निरागसपण आसा तें ताका हांसोवन आनी नाचोवन वता. पूण हें भुरगेपण शारांतलें न्हय जाल्यार तें गांवांतलें आसा. काण्णां, चुन्नां, बोरां, पेरां हांची रूच घेवपी शेणान पेटिल्ल्या आंगणांत खेळपी. स्मरणरंजनांत रमिल्ल्या कवीक वास्तवाची जाण येता तेन्ना 'दिसता म्हाका गांवांत/म्हजें भुरगेपण उरलां' अशें उद्गार फुट्टात.

प्रतिमा म्हणल्यार शब्दाक आयिल्लें चित्राचें मोल. जॉन गुलमोहराची प्रतिमा वापरता तेन्ना गुलमोहराचें चित्र दोळ्यां मुखार उबें रावता. पूण हें चित्र निखटें प्राकृतीक न्हय तर कवितेंत तें अणभवाचें रूप घेवन येता.

माथ्याक माळून फुलां
गुलमोहराचें झाड सोबीत जालां
हांव एक वाटसरू विसव घेवंक

मुळांत उबो, थकून गेलां
वयर मळबांत दिसता म्हाका
नखेत्रां जाग्यार फुलांच फुलां
फुलांच फुलां.

हे कवितेंत झाड, मळब, नखेत्रां आनी फुलां अश्यो प्रतिमा आयल्यात. त्यो वेगळ्योवेगळ्यो आसल्यो तरी तांच्या एकजिनसीपणाक लागून ही कविता एक प्रतिमा जावन येता. तिका एक परिमाण आसा पूण निमाण्या वळींक लागून तिच्या अर्थाचो आवाठ वाडत वता. ते भायर कवीची शब्द वापरपाची कळाशी सिद्ध करता.

कवितेचे अभिव्यक्तीचें माध्यम म्हणल्यार शब्द. ताचो तो कसो उपेग करता ताचेर ताचे कवितेचें रूप निंबून आसता. ती दोन वळींची आसूं येता आनी शंबर वळींनीय तिचो आशय व्यक्त जाल्लो आसता. दोन वळींची म्हूण ती उण्या पांवड्याची आनी शंबर वळी तिका श्रेश्ठ करिनात. 'काळजाचे झरे' ही पंदरा शब्दांची कविता आंगलोटान ल्हान आसली तरी तातूंत अणभवाची खरसाण जाणवता.

कविता बरोवप म्हणल्यार निखटी शब्दांची कसरत न्हय जाल्यार ती जिविताची साधना. कवी अणभवान भरता तितली ताची कविता पिकत वता. जॉन म्हणटा :

कितलें आनीक सोंसचें आसा
जिणें थावच गावलोना.

ह्या आत्मसोदाच्या प्रवासांत ताची कविता वाडटली, फुलतली आनी फळटली...

**माधव बोरकार**

४ डिसेंबर 2010
आकाशवाणी, कोल्हापूर

# मांडावळ


गुलमोहर / 1
बाजार / 2
हावेस / 3
हे राधे.../ 4
देव विकपाक आसा / 5
वीख कित्याक दिता/ 6
सपन / 7
आदार / 8
फुलपाखया / 9
आंगण / 11
कुपां / 11
जैत / 12
किराचें भविश्य / 14
तुमकां जालां तरी कितें? / 15
रातभर / 16
म्हज्यांत.../ 17
जिणेचें चित्र / 18
सत आनी फटींगपण / 19
फातर / 20
भुरगेपण / 21
गरिबींतलें भुरगेपण / 22
मंगेशा पाव रे! / 24
आरोप / 25
अनवळखी गांव / 26
श्रीशांतादुर्गा विजयते / 28
चंद्रिमा / 29
वाऱ्याचें ल्हार / 30
कपला वयली तिकली / 32
नसायेच्या जगांत / 33
आमी वासरां / 34
नाचत नाचत / 35
तूं चंद्रमा / 36
पावसा / 38
तूं म्हजे दोळे / 40
जयजयकार करात जेजूचो / 41
दोळ्याक दोळे मेळय / 42
मोगाचें दार / 43
होंच मोग काय? / 44
गोंय म्हजें / 45
रात / 46
आज मेरेन / 47
म्हजी वळख / 48
चली भुरगें / 49
त्राशी भुरगें / 50
जळूं दी / 51
काळजाक झरके / 52
जिणें थाव / 53
तूं जर गीत / 54
गांव / 55
रानटी / 56
म्हाकाच विसरलां / 58
गीत कशें गायतलों / 59
दुकांचें ल्हार / 60
गीत / 61
वाऱ्यार तुका / 62
खाली आसा ग्लास / 64
हुंवार / 65
काळजांत भितर / 66
वसंत / 67
हमाल / 68
कोण अमर ना / 69
यो गो यो तूं... / 70
इत्सा / 72
तुज्या दोळ्यांतल्यान / 74
चली / 75
येयात.. / 76
जैताचें दार / 77
सुलूस / 78
म्हजें अतीथ / 79
जिविताचे बागेंत / 80
थेंबो / 81
फटींगपणां / 82
हारसो / 83
आस / 84
तूं कुपांनी... / 85
दुर्गे तुजे भेटेक / 86
नव्या वर्साच्या पयल्या किरणाक / 87
कितलो लिपतलो आपल्याक... / 88
गीत गायत यो / 89
चिखोल / 90
म्हज्यांतूच आसलें... / 91

# गुलमोहर

माथ्याक माळून फुलां
गुलमोहराचें झाड सोबीत जालां
हांव एक वाटसरू विसव घेवंक
मुळांत उबो, थकून गेलां
वयर मळबांत दिसतात म्हाका
नखेत्रां जाग्यार फुलांच फुलां
फुलांच फुलां...

# बाजार

हांगा बाजार भरला
पसरे सजल्यात
तरातरांचे; आनी
ह्या पसऱ्यांचेर विकपाक आसात
दुस्मानकाय, विस्वासघात,
धर्मवाद, जातीयवाद, नसाय
पूण हांव सोदून थकलां
एक पसरो...
जंय मेळटा मनीसपण
फकत मनीसपण



# हावेस

मनीस जगता आशेचेर
बऱ्या उतराचेर
कल्पनांचेर...
आपले बंद मुठींतल्या
विस्वासाचेर
दोंगराचे तेंगशेर रावन
चंद्रिमाक वेंगावपाच्या हावेसाचेर

# हे राधे...

हे राधे
तूं चिखलांतली भायर सर
तूं जंय उबी आसा
त्या शापीत जाग्याची
शींम पार कर
हे नराधम तुजे
लचके तोडून खातले
देखून...
संवसार थाट
सोबय तुजें घर
हे राधे...
तूं आतां चिखलांतली
भायर सर



# देव विकपाक आसा

बाजारांत
जंय खेळणीं मेळटात
तसोच...
देवूय विकपाक आसा
मनिसूच ताका घडयता
रूप दिता, रंग भरता
आनी विकताय बी
पूण...
जो स्वता देवाक घडयता
ताका देव मेळटाच अशें ना
देवाचो सोद
ताकाय घेवचो पडटा

# वीख कित्याक दिता

दुदा बदल्याक म्हाका
दीख कित्याक दिता
जिवें आसा सपन म्हजें
वीख कित्याक दिता?

घावे जाल्यात आंगार
सोंसूंक आतां जायना
घाव्याक लावपाक तुमचे कडेन
मिठा बगर कांय ना?
मोगा बदल्याक म्हाका
भीक कित्याक दिता?
जिवें आसा सपन म्हजें
वीख कित्याक दिता?

# सपन

आयज आनीक एक सपन मेलें
भर दिसाचें तडफडत
म्हज्यो आशा आकांक्षा
पांयांतळा माडयत गेलें
आयज आनीक एक सपन मेलें

आयज मेरेन हांव सपनां
घडयत आयलां, रंगयत आयलां
आनी एका फाटल्यान एक
तीं तुटत आसात, मरत आसात
एक आवडटें उरिल्लें
तेंय बी आयज गेलें
आयज आनीक एक सपन मेलें

अशीं म्हजीं कितलींशींच सपनां
खरीं जावंक पावलिंनात
सपनां फकत सपनांच उरलीं
हाताक गावलिंनात
हांव आतां ब्रश रंगांत बुडयतां
आनी नवीं सपनां रंगयतां
आनी तांच्याच आदारान
फुडें सरतां...

# आदार

दमटे दमटे सांजवेळा
जेन्ना हांव...
मळबांत पळयतां
एक तरी नखेत्र झळकताच
देखून आतां गुप्प काळखांत
हांव नखेत्रां सोदतां
जिणेक आदार सोदतां



# फुलपाखया

फुलपाखया फुलपाखया उडत यो
सैमाच्या रंगांनी बुडत यो
फुलां वांगडा खेळपा खातीर
खेळगडी कसो दडत यो

मळबा इतलो उडूं नाका तूं
मोगा कायदो मोडूं नाका तूं
फुलां रावतात तुका बागेंत
तांकां वेंगेंत ओडीत यो
फुलां वांगडा खेळपा खातीर
खेळगडी कसो दडत यो

तुका फुलां जाय तरणीं
दोस्ती करून सोडपाचीं
रीत तुजी गा पोरणी
पोरणे तुजे कायदे मोडीत यो
फुलां वांगडा खेळपा खातीर
खेळगडी कसो दडत यो

# आंगण

म्हजें आंगण
वाऱ्या वांगडा धुल्लान लोळ्ळां
खेळ खेळ खेळ्ळां
आतां तें पावसाच्या थेंब्यांनी
चिप्प भिजतलें
मन भरून न्हातलें
सुर्या वतान आपलें
आंग सुकयतलें
आनी रातचें...
चान्न्या वांगडा ओग्गी न्हिदतलें
म्हजें आंगण...



# कुपां

हीं पावसाचीं कुपां
घडये परत येवचीं नात
आमच्या माथ्यार तीं
कशींच खेळचीं नात
आनी... तांणी कित्याक
म्हूण येवचें
हांगा रानां, शेतां, खंय उरल्यांत
शिमिटाचीं घरांच घरां भरल्यांत
पर्यावरणाचेर दिसानदीस जातात
कुराडीचे वार
झाडांपेडांचो धरतरेचेर उणो
जाला भार
आनी देखुनूच हीं कुपां
आमच्या माथ्यार सोबचीं नात
हीं पावसाचीं कुपां
घडये परत येवचीं नात



# जैत

अशें कशें हें जालां
मनीसपण खंय गेलां?
उजव्या हातान दाव्या कडेन
बंड केलां
पांयव्राटो जाल्यात मोन्यो
दिकान दिको शांत जाल्यात
रस्ते आपल्याकूच विसरल्यात
मनीस कळना खंय वता
जंयच्यान चलता थंयच परतता
धर्म, मर्यादा, खरेपण
अग्गज हांगा खंय उरलां बरेपण
एक निसण आसा
ती तेंगशे मेरेन वता खरी
पूण निसणीच्या प्रत्येक पांवड्यार
जायत आसा वसुली
आनी तेंगशेर पाविल्ले लोक
आपल्याच यशाच्यो
नव्यो आडवाटो तयार करतात
आपलीं बोल्सां भरतात

खरें म्हणल्यार चोंय दिकांनी
गुप्प काळोख आनी भिरांकूळ रात
पूण आमी ओगी नात
शस्त्रां विणें लडाय लडत
आमी लायल्या उजवाडाची वात
आमकां आनिकूय लडचें आसा
किर्णां नवीं हाडचीं आसात
वायट रुढी समाजांतल्यो
मुळा सकट काडच्यो आसात
नव्या संकल्पाचें बीं
आतां आमी घालतले
कितलींय आडमेळीं आसूं
यूग नवें येतलें
जैत आमचेंच जातलें
जैत आमचेंच जातलें

# किराचें भविश्य

आपले चोंचीन दुसऱ्याचें
भाग्य सांगतल्या त्या किराक
स्वताच्या भाग्याची आसा काय हमी?
ताचो संवसार म्हणल्यार तो,
ताचो पांजरो आनी ज्योतिशी धनी

दर खेपे दार उगडटकच
तो भायर सरता
आनी एक कार्ड चोंचींत धरता
पांजऱ्यांत रावन दुसऱ्याच्या
भविश्याच्यो खबरो करता

भायर येवन लेगीत तो उडना
आपल्या धनयाक तो सोडिना
मर्यादिचे दोर तो कसो तोडटलो
विस्वासघात करपाक ताका जमना

ह्या बंदिस्त किराचे प्रस्न कोण मांडीत?
कोण सोडयत ताच्या भाग्याचें गणीत?
हेच भावनेन दीस, वरां, मिणटां
आनी घटकेन घटका तो सारता
एक दीस कोण तरी येवन
आपलेंच भविश्य सांगीत म्हूण रावता



# तुमकां जालां तरी कितें?

तुमकां जालां तरी कितें?
कित्याक खेळटात तुमी
ही रक्ताची होळी
मेल्ल्या मड्याचेर कित्याक
भाजून खातात पोळी?
मनीसकुळयेचे दुस्मान
तुमकां कसलीच ना गय
मनशा मनशा मदीं मोग जोडपाक
तुमकां जमना व्हय?
आकांतवादी घडणुको तुमी
जाय थंय घडयतात
निश्पाप लोकांक मारून उडयतात

वायट संगतीक लागून तुमी
विनाशकारी गुणांनी वाडटात
बॉम जशे घडयतात
तशेच तुमीय घडटात
आतां तुमी उलयनात
फकत फुट्टात

# रातभर

म्हज्या आंगणांत
एक हांसतो चंद्रीम
चान्न्यांत हांव चिप्प भिजत
रावलों रातभर

काळखाचेर रचून
प्रणयगीत एक
रातकिड्यांच्या आवाजान गुणगुणत
रावलों रातभर

तान वर्सांची
भागोवपाची आस्त मनांत
रितो कळसो घेवन उबो
रावलों रातभर

थापटीत थापटीत
म्हज्याच दुख्खाक
मांडयेर म्हजे न्हिदयत
रावलों रातभर



# म्हज्यांत...

एक भुरगेपण
म्हज्यांत येवन गेलें
म्हाका हांसोवन गेलें
नाचोवन गेलें
एक तरणाटेपणाचो दर्या
म्हज्यांत येवन गेलो
म्हाका सुखाच्या तशाच
दुख्खांच्या ल्हारांनी न्हाणोवन गेलो
आतां...
आतां म्हातारपण आयलां
तें म्हाका वांगडाच
व्हरपाक रावलां



# जिणेचें चित्र

म्हजे जिणेचें चित्र
जर म्हाका रंगोवंक मेळिल्लें
तर म्हज्या मना प्रमाण
हांव तें सोबयतालों आसलों
म्हजे आवडटे रंग भरून
हांव तें सजयतालों आसलों
पूण...
पळोवंक नाशिल्लें भविश्य,
दुख्ख, सूख, आशा, निरशेणी
खुशालकाय, खंत ह्या
रंगां विणें असल्या
चित्राक कसली सोबाय?
आनी संवसाराच्या काळचक्रांत
असल्या चित्राचो कितें उपेग?



# सत आनी फटींगपण

जे मेरेन
भेंड मोडिल्लें ‘सत’ जगता
ते मेरेन हांव
आनी म्हजे वांगडी
ताचें बोट धरून चलतले
ताका धिटाय दितले
ताच्या बेवारशी मरणाक
खांद दितले
सत मेले उपरांत
फटींगपण जगतलें
सत्याच्याच आसनार बसून
खूब मिरयतलें

# फातर

फातर... तरातरांचे
कांय मोव कांय घट्ट
मोव ते फुट्टात
घट्ट फातर रूप घेतात मुर्तेचें
आनी देवळांत बसतात
कांय घट्ट फातर घरांच्यो
वणटी सजयतात
दर्यांतले फातर जातात
वाटकुळेच सुळसुळीत
कांय फातर जीणभर उरतात
रस्त्याचेच फातर
फातराक जात-धर्म कांयच लागना
फातरांनी तयार जातात
देवळां, इगर्जो आनी मशिदी
नशीबवान फातर मात घेतात
जल्म हिऱ्याचो
फातर आमकां खूब शिकयता
तो फुट्टा पूण बागवना



# भुरगेपण

खंयचे दिशेन हांव वतां
खंयच्यान हांव आयलां
कांयच याद जायना
म्हजे म्हाकाच विसरलां
काण्णां, चुन्नां, पेरां, बोरां
लगोऱ्यो, आपालिपा खेळपी पोरां
शिगमो, इंत्रूज, धेंडलो
थापिल्ल्यो शेणयो
शेणान पेटिल्लें आंगण
मातयेच्यो वणटी आनी
पांवळेक मल्लां
दिसता म्हाका गांवांत
म्हजें भुरगेपण उरलां

# गरिबींतलें भुरगेपण

रस्त्याचेर जगता गरिबी
आनी गरिबींतलें भुरगेपण
खर वतांत, पावसांत आनी धुल्लांत
घुसपलां हें भुरगेपण

आवयची मांडी नशिबांत ना
धरतरेचेर लोळटा
पोटभर जेवण ना
भुकेन वळवळटा
गरिबींतलें भुरगेपण

आपलेच घाणीन भरिल्ली
जड विंगळी कूड सोबयत
कांय भाकरेच्या कुडक्यांचेर
जगता हें भुरगेपण
केकींचीं, आयस्क्रिमाचीं सपनांच सपनेता
हें गरिबींतलें भुरगेपण



खेळ ना, शाळा ना
पयशेकारांच्या रंगेल जगांत
शेणलां हें
खर वतांत, पावसांत आनी
धुल्लांत घुसमटलां
हें गरिबींतलें भुरगेपण



# मंगेशा पाव रे!

मंगेशा पाव रे!
आमच्या उल्याक धांव रे
राख तूं आमकां
... दिवन वच गा माव रे

भक्ताच्या उतरांतल्यान
तूंच देवा उलयता
सर्व शक्तीशाली खरो
तूंच जग हें चलयता
गरजेवंतांक आदार करपी
म्हूण तुजें नांव रे
मंगेशा पाव रे!
आमच्या उल्याक धांव रे

तुजें शांत रूप पळोवन
मनाक मेळटा धादोसकाय
आलतडीन आमचें व्हडें
देवा पलतडीन पावय
त्रासांत आसल्यार आमी
देवा, फाटल्यान आमच्या राव रे
मंगेशा पाव रे!
आमच्या उल्याक धांव रे



# आरोप

आरोप लोकांचे
हांव सोंसतलों
दुख्ख गिळीत
ओगीच बसतलों
मोनीं म्हजीं उतरां
हांव मोनोच उरतलों
मन रडलें तरीय हांसतलों
कुसकेपण हांगा खूब भरलां
खरेपण खंय उरलां?
आयज म्हजो म्हाकाच दिसता भंय
कोणूय मोडटा कोणाचीय वंय
कोण कोणाचीय करता सय
आपल्याच खांदार शाल ओडून
घेवप्यांचो आंकडो वाडटा
हालीं हांगा कायचेकाय घडटा

# अनवळखी गांव

खूब दिसांनी जेन्ना
म्हज्या गांवांत परत आयलों
आरे तेन्ना हांव घुसपलों
म्हजे म्हाकाच विसरलों

हांव वतना हो गांव
असो नाशिल्लो
सगले कडेन आशिल्लीं झाडांच झाडां
पूण आतां जाल्यांत
ऊंच मळबाक तेंकपी घरां

म्हजें भुरगेपणाचें सांगाती
तें पेरीचें झाड खंयच दिसना
थंयसर आयलां एक होटॅल
म्हजें मन हांगा वसना

झाडां मनशाचीं सांगाती
मनीसजिणेचो तो पर्याय
तरी तांचो आंकडो उणो जाला
सोबीत तांबडीं फुलां माळून
मन भुलोवपी गुलमोहराचीं झाडांय
आयज दिसनात



ती दोंगुल्ली जंय बसून आमी
शितळ वारो घेताले
उकत्या मळार खेळटाले
थंय लेगीत जाल्यांत घरां
सांगात... खंय खेळटलीं पोरां

आतां सवण्यांचो आवाज
दुर्मीळ जाला
जमनीर पडपी सुकिल्ल्या
पानांचीय आतां उरूंक ना मजा
म्हज्या गांवची जाल्या धजा

# श्रीशांतादुर्गा विजयते

एकचाराचें रूप तूं
शांतीचें प्रतीक तूं
मायेचें, मोगाचें, करुणेचें
कूप तूं

तूंच खरी जगदंबा
तूंच सांतेरी आनी महामाया
उलो मारतल्यांची राखणदार तूं
शांतीचें प्रतीक तूं, एकचाराचें रूप तूं

तूं म्हजी आई, तूं म्हजी सावळी
हांव तुजो भक्त खरो
तुज्याच हातांतली बावली
म्हजें छत्र, मायेचें अतूट सूत तूं
शांतीचें प्रतीक तूं
एकचाराचें रूप तूं



# चंद्रिमा

चंद्रिमा तूं यो रे, रात घेवन यो
म्हाका जिणेची एक साथ
घेवन यो

म्हजीं दुकां लिपय कुपांत
न्हिदय म्हाका तुज्या गोपांत
म्हज्या माथ्यार दवरूंक
तुजो हात घेवन यो
चंद्रिमा यो रे, रात घेवन यो
म्हाका जिणेची एक साथ
घेवन यो

जिणेंत हांव गेलों बुडून
सपनां म्हजीं गेलीं उडून
सपनां पळोवपा खातीर
म्हाका एक वात घेवन यो
चंद्रिमा यो रे, रात घेवन यो
म्हाका जिणेची एक साथ
घेवन यो



# वाऱ्याचें ल्हार

उडत आयलें, खेळत आयलें
वाऱ्याचें एक ल्हार
मस्ती करीत आयलें तें
भोंवलें सगलें शार

पतंग वयर उडपाक
दिलो ताणें हात
बंदेर उंचावपाक देशाचें
दिलो ताणें साथ
वचत थंय ताणें
केलें थंडगार
उडत आयलें, खेळत आयलें
वाऱ्याचें एक ल्हार

झाडां वांगडा खेळ्ळें तें
बोमाड्यांनी भरलें तें
भुरग्यां वांगडा नाचत, हांसत
मातयेंतूय लोळ्ळें तें
हेवटेन आयलें तेवटेन गेलें
लागना ताका आडो, दार
उडत आयलें, खेळत आयलें
वाऱ्याचें एक ल्हार



तें कोणा मुखार बागवना
ताका शिमो लागनात
मेकळेपणान तें कोणाकूय पावता
तें खरें आमच्यांतूच रावता
तें घडयता आनी काबारूय करता संवसार
उडत आयलें, खेळत आयलें
वाऱ्याचें एक ल्हार

# कपला वयली तिकली

तुज्या कपला वयली तिकली
कशी सुंदर दिसता बरी
तुज्या गाला वयली खळी
कशी सुंदर दिसता बरी

तूं म्हज्या मनांत भरलां
तुजे खातीर असोच उरलां
तूं चलता चलतना, धोलता धोलतना
कशें सुंदर दिसता परी

केंस तुजे ल्हारां वरी
सपनां आमचीं हीं जावचीं खरीं
तूं नाचता नाचतना, हांसता हांसतना
कशें सुंदर दिसता परी



# नसायेच्या जगांत

नसायेच्या जगांत ह्या
मोगा राज्य बसोवया
दुकां पुसून रडटल्यांचीं
सगल्यांक आमी हांसोवया
सगल्यांक आमी हांसोवया

दुख्ख कोणाक चुकना
भोगचें आसा तें भोगुया
वाटेर कांटे आसूं दी
फुलांनी न्हेसोवया

मन धीट करून आमी
ताठ मानेन जगुया
संवसारांतलीं वायटां
एकठावन लासोवया

दुकां पुसून रडटल्यांचीं
सगल्यांक आमी हांसोवया
सगल्यांक आमी हांसोवया

# आमी वासरां

आमी वासरां
तूं गा गवळी
हे गणपती तुजे कृपेची
दी आमकां सावळी

कोणाक तुवें वरदान दिलें
कोणाक दिलें ज्ञान
सगल्यांक दिल्या खुशालकाय
करून आपली झोळी खाली
हे गणपती तुजे कृपेची
दी आमकां सावळी

घराघरांनी जाता पुजा
तूं गा सगल्यांचोच राजा
म्हाकाच विसरलां तुज्यांत रमलां
तुजे भक्तीची चावी गावली
हे गणपती तुजे कृपेची
दी आमकां सावळी



# नाचत नाचत

नाचत नाचत यो गणपती
तुजीच ही गायतां आरती

शूर वीर तूं गणांचो राजा
काळजांत तूं भरला म्हज्या
संवसारभर गा तुजीच किर्ती
तुजीच ही गायतां आरती

मोदक, लाडू खायत यो
मुशका बांगडा गायत यो
तूंच आकाश आनी तूंच धरतरी
तुजीच ही गायतां आरती



## तूं चंद्रिमा

तूं चंद्रिमा, तूंच सुर्या
तूं करुणेचो दर्या
मोरया मोरया
मंगलमुर्ती मोरया

सुखाचीं हाडून ल्हारां
दुख्ख तूं पयस करता
तूं घडोवपी, तूंच तारपी
संकश्टांत आमचो हात धरपी
चलात नमस्कार करुया
मोरया मोरया
मंगलमुर्ती मोरया

दुख्खाचे दोंगर पयस करून
विघ्न निवारण तूं करता
तूंच आमकां म्हऱ्यांत धरता
तुजे गूण गायत गायत
भक्तीची वाट धरुया
मोरया मोरया
मंगलमुर्ती मोरया



तुजीच सावळी, तुजीच भक्ती
झोळी तुजी सदांच उकती
तूंच आमची खरी शक्ती
तुजे कृपेच्या बळार
जीण आमची सारुया
मोरय मोरया
मंगलमुर्ती मोरया



# पावसा

पावसा पावसा यो रे
म्हाका असो भिजय तूं
गीत गायत मळबाचें
सैमाक अशें लजय तूं

म्हज्या शेतांत यो तूं
वारें घेवन यो
नशीब आमचे खातीर तूं
बरें घेवन यो
विजेच्या दिव्यांनी मळब हें
सजय तूं
गीत गायत मळबाचें
सैमाक अशें लजय तूं

म्हज्या आंगणांत तूं
धोलत धोलत यो
झाडा आनी वाऱ्या वांगडा
खेळत खेळत यो
गडगडाटाचें धोलकें वाजय तूं
गीत गायत मळबाचें
सैमाक अशें लजय तूं



म्हजे जिणेंत तूं
वावझड जावन यो
म्हज्या आंगणांत मोगाची
वलसाण घेवन यो
तणा साडयेन धरतरेक
न्हेसय तूं
गीत गायत मळबाचें
सैमाक अशें लजय तूं

## तूं म्हजे दोळे

तूं म्हजे दोळे, तूं म्हजे कान
जेजू, तूं म्हजी प्रेरणा, शरणस्थान

आराधना करतां हांव जोडून दोनूय हात
तुजेंच नांव ओंठार येता
दीस आनी रात
धांवत येता तूं, हांव जर आसन संकश्टांत
तूं म्हजे दोळे, तूं म्हजे कान
जेजू, तूं म्हजी प्रेरणा, शरणस्थान

तूं राखणदार म्हजो, आनी इश्ट तूं
आदार तूं म्हजो, जिणेची शिस्त तूं
तुजेच भक्तीची लागल्या म्हाका तान
तूं म्हजे दोळे, तूं म्हजे कान,
जेजू, तूं म्हजी प्रेरणा, शरणस्थान

# जयजयकार करात जेजूचो

मनशां मदीं येवन तुवें
रगत आपलें वारयलें
आमच्या पापां खातीर खुरसाचेर सोडले प्राण
नवें बरयलें पान, नवें बरयलें पान
गीत गावया आमी आतां सुरान सूर धरात
जयजयकार करात
जेजूचो जयजयकार करात

सेवा करून घे तुजी
जिणेची म्हजे तूंच शक्ती
तुजेच खातीर जीण ही म्हजी
तुजीच करतां भक्ती
जेजूचो प्रिती संदेश संवसारभर व्हरात
जयजयकार करात
जेजूचो जयजयकार करात



# दोळ्याक दोळे मेळय

दोळ्याक दोळे मेळय लिपून रावता कित्याक
गळ्याक गळो मेळय अशें धांवता कित्याक

तूं म्हजेंच फूल तुजेर हांव गुल
काळीज उकतें कर पिशा, बावता कित्याक

हांव तडीर आसां हें खबर आसतना
बेठेंच उदकांत देंवता कित्याक

वेळा प्रमाण प्रसंग बदलतात
तूं अशें पयस पयस भोंवता कित्याक



# मोगाचें दार

मोगाचें दार उगडून काळजांत बसय म्हाका
हांव तुजोच जाल्यार दोळ्यांनी घट्ट दसय म्हाका

दुख्खी कित्याक करता ह्या जिवाक
तुज्या मोगा उतरान हांसय म्हाका

तुजेच यादीन काळीज हून जालां
मोगाच्या उज्यान आतां लासय म्हाका

हांव वीख घेवंक लेगीत तयार तुजे खातीर
पूण अखेरेक फुलांनी तूंच न्हेसय म्हाका

# होच मोग काय?

नदर मेळटकच तुजी म्हजी
अशें कित्याक लजेताय
घडये होच मोग काय?

मोने ओंठ, दोळेच उलयतात
लिपोवन लिपना तुजी सोबीतकाय
घडये होच मोग काय?

तुज्या घरा कडल्यान वचूंक जाय
दिसांतल्यान एकदां तरी नदर पडूंक जाय
घडये होच मोग काय?

मन म्हजें आड्डून सांगता
तूंच म्हाका जाय
घडये होच मोग काय?



# गोंय म्हजें

दर्याच्या ल्हारांनी, भाटांनी, माडांनी
गोंया तूं भरलां म्हज्या हाडांनी

बदल हांगा जाले कितले
लोक आयले आनिकूय येतले
उदरगत जाली तरी विणलां झाडांनी
गोंया तूं भरलां पळय म्हज्या हाडांनी

सोंसणिकायेन, शांतिकायेन गोंय झटलां
गोंयकारपण अजून हांगा उरलां
अपुरबायेचेंच तें वाडलां लाडांनी
गोंया तूं भरलां म्हज्या हाडांनी

गोंय हें कोंकणी प्रजेचें
राखून दवरप ताका गरजेचें
लचके ताचे काडल्यात पळय गिदांनी
गोंया तूं भरलां म्हज्या हाडांनी

# रात

सकाळीं फुलांक पळोवन
भरल्यांत तीं दंवा थेंब्यांनी
दिसलें म्हाका तीं
रात वतना रडल्यांत आसतलीं
आपल्या दुकांनी
पूण रात बाबडी आपलें दुख्ख
आपुणूच गिळटा
ती मनीसकुळयेक आवय वरी
गोपांत न्हिदयता
तरी तिच्या आडसाक जाल्लीं
कितलीं वायटां तिका
पळोवचीं पडटात
सोंसचीं पडटांत
खरेंच हीं फुलां रडल्यांत
काय रातूच आपली
काणी सांगून रडटाली काय?



# आज मेरेन

वांटे करून झगडले आज मेरेन
कातरले मेले आज मेरेन
हात रिकामेच उरले आज मेरेन

पिशेपणाचे शिमेर वचून
राम-रहिमाक निमित्त करून
नसायेच्या उज्यांत जळ्ळे आज मेरेन

आमी एकाच रक्ताचे, एकेच कातीचे
तरी आमचे भितर वणटी करून
वेगळ्याचारान रावले आज मेरेन

सभाग्यांनो दोळे उगडात
जग खंय पावलां तें पळयात
सोंपयात ही दुस्मानकाय
जी चलत आयल्या आज मेरेन



# म्हजी वळख

जेन्ना हांव जल्मल्लों
तेन्ना म्हजी वळख नासली
पूण...
हळू हळू काळाचें चक्र
घुंवत गेलें...
तशी वाडत गेली म्हजी वळख
हांव जालों कोणाचो
आनी खूबशे जाले म्हजे
पूण म्हजी वळख
म्हाकाच गावलिना
म्हज्या मना मेरेन
केन्नाच पावलिना
आनी देखुनूच आज मेरेन
म्हजी वळख पुराय जालिना



# चली भुरगें

सोंशीकसाणीन भरिल्लें भुरगें
भितरले भितर जळटा
ताका वाट झळकना
तें समाजाची नदर वळखना
संस्कृतायेचें आनी संस्कारांचें
बंधन तोडपाक ताका कशेंच जमना
चोंय वटांनी तें पळयता
जाळें विणिल्लें बंधनांचें
वायट उतरांचें



# त्राशी भुरगें

शाळा ताणें पळोवंक ना
ल्हानपणा सावन चाकरी
खूब त्रासांनी बावड्याक
खावपाक मेळटा भाकरी
बापूय बेबदो
ताका सदांच सोरो जाय
ल्हान आसात भावंडां
पोट कशें भरचें काय
आवय गेली देवागेर
वखद जालेंना
कोणेंच ताचे खातीर
कांयच केलेंना



# जळूं दी

जळूं दी जळूं दी
हांव जळटां जाल्यार जळूं दी
गळूं दी गळूं दी
दुकां गळटात जाल्यार गळूं दी
म्हजें दुख़ख
सगल्यांक कळूं दी



# काळजाक झरके

तुजें नांव पुसपाक
काळीज म्हजें झरयलें
पूण...
नांव पुसलेंच ना
काळजाक मात पडल्यात झरके



# जिणे थाव

दोळ्यांतुल्यान म्हज्या अजून
एकूय दूक गळ्ळेंना
जिविताची वाट चलत
थकलों केन्ना कळ्ळेंना

विसव कसो घेवचो गा
एकूय रूख दिसलोना
कितलें आनीक सोंसचें आतां
जिणे थावूच गावलोना



# तूं जर गीत

तुका म्हज्या दोळ्यांत
हांव सजयतलों
तूं जर गीत
हांव तुका गायतलों

मोगा दर्या खंय आसा
विचार तूं म्हाका
काळीज उगडून दाखयतां तुका
पणटेंतली तूं जर वात
हांव तेल जातलों
तूं जर गीत
हांव तुका गायतलों

तुजें अस्तित्व खंय आसा
विचार तूं म्हाका
म्हज्या दोळ्यांत घट्ट
लिपयलां हांवें तुका
तूं सूय जाल्यार हांव
धागो जातलों
तूं जर गीत
हांव तुका गायतलों

# गांव

अडेचो झगझगाट
म्हाका आवडना
स्वताक सभ्य समजुपी लोकां दर्या
थंय रावप म्हाका आवडना
ह्या शारांनी जंय शिमिटाचीं रानां
थंय रावप म्हाका आवडना
म्हजो गांव...
जंय नितळ वारें, नितळ काळजां
थंयच म्हाका रावूं दी
म्हजी काणी सुरू जाल्ली गांवांतल्यान
गांवांतूच ती सोंपूं दी

## रानटी

कित्याक नसती मस्ती
सगल्यां कडेन करुया दोस्ती
मनीस आमी ज़ातीन सगले
हांगाच आमची वसती
रगत आमचें एक सगल्यांचें
जीण करुया हांसती

कितें नानक, कितें अल्ला
कितें पंडीत, कितें मुल्ला
कितें कृष्ण, कितें क्रिश्त
तांची एकूच विश्त
देखून मोडुया ह्यो वणटी
आनी लावया उजवाडाची पणटी

वत, पावस देव धाडटा
सगल्यांचेरूच सारको पडटा
आपापल्या कर्मान
प्रत्येक मनीस घडटा
जनावरां जांकां म्हणटात आमी
बडोवन आमची छाती
तांचे मदीं लेगीत ना धर्म आनी जाती

क्रिस्तांव म्हणटात 'शांती'
हिंदू म्हणटात 'ॐ शांती'
आनी इस्लाम म्हणल्यारूच शांती
स्वतंत्र जावन जालीं कितलींशींच वर्सां
अजून घडना क्रांती
आमी रानटी ते रानटीच



# म्हाकाच विसरलों

जिणेंत हांव
घुसपलों
नशिबांत बरयिल्ली तान
देखून
सोऱ्या बाटलेंत घुसपलों
म्हजे म्हाकाच
विसरलों



# गीत कशें गायतलों

भोंवऱ्यांत आसा व्हडें म्हजें
तडीक कशें लायतलों
विणे तार तुटली आतां
गीत कशें गायतलों

दुस्वास म्हजो सगल्याच काळजांनी
दुकां म्हजीं लिपल्यांत दोळ्यांनी
विचारांनी हांव मुंगरलां इतलों
वयर कसो येतलों
विणे तार तुटली आतां
गीत कशें गायतलों

तूं आसलें, तेंवूय गेलें
सपन एकसुरें, तेंवूय मेलें
म्हजे जिणेचें वजें हांव
माथ्यार कशें घेतलों
विणे तार तुटली आतां
गीत कशें गायतलों

# दुकांचें ल्हार

दुकांच्या ल्हारान म्हाका बुडयला
समाजान म्हजेर फातर उडयला
काळांतरान शेणलां हांव
गर्देन म्हाका आडायला
सुयो तोपून तोपून म्हाका
रडय रडय रडयला

# गीत

गीत हांव गायतां
गीत मोगाचें गायतां
दोळे म्हजे धांपल्यार लेगीत
सपनांत तुकाच चोयतां

म्हज्या चित्रांतली कल्पना आयज
म्हाकाच भुलोवन गेली
म्हजी कलाकृती अशी
म्हजे कडेन उलोवन गेली
तुज्या चित्रांतले रंग हांव
म्हजे जिणेंत पिंतारतां
दोळे धांपल्यार लेगीत
सपनांत तुकाच चोयतां

कसल्याच कामांत म्हजें
आतां मन रमना
तुका पयस दवरप
म्हाका कशेंच जमना
तुका आतां रोंप्या वरी
काळजांतूच रोयतां
दोळे धांपल्यार लेगीत
सपनांत तुकाच चोयतां

# वाऱ्यार तुका

वाऱ्यार तुका वयर व्हरून
सवण्या कडेन मेळयतां
मळबांत तुका व्हरून  हांव
नखेत्रांनी खेळयतां

म्हजे वांगडा यो गो तूं
सगलें तुका दाखयतां
तुजे खातीर वेळ पडल्यार
जगूच हें बागयतां
वत लागल्यार सांग म्हाका
सुर्याकूच हालयतां
मळबार तुका व्हरून हांव
नखेत्रांनी खेळयतां

तुज्या मोगांत पडत सावन
पांय जमनीर रावनात
समजून मातश्यो घे गो तूं
मनांतल्यो म्हज्यो भावना
चिमणेच्या आवाजान हांव
तुजे कडेन उलयतां
मळबांत तुका व्हरून हांव
नखेत्रांनी खेळयतां



तूं लजतां लजतां हांसता
आनी हांसतां हांसतां लजता
पावसांत भिजून लुगट तुजें
आंगाक तुज्या दसता
पाळणें बांदून कुपांचें
हांव तुका धोलयतां
मळबांत तुका व्हरून हांव
नखेत्रांनी खेळयतां



# रितो आसा ग्लास

तुजें रूप ग्लासांतलें भायर वचूं दी
रितो आसा ग्लास म्हजो रितोच आसूं दी

खवळ्ळा दर्या ताका शांत रावूं दी
दुकांचीं ल्हारां म्हाका स्पश्ट दिसूं दी

घोंटान घोंट पियेत असो लासयला म्हाका
काळीज म्हजें पेट्टा पळय, पेटत आसूं दी

सोऱ्या बल्लांतूच म्हाका आतां बुडयात
ग्लासांतलो पॅग आसा तसोच आसूं दी

रितो आसा ग्लास म्हजो
रितोच आसूं दी



# हुंवार

काळीज म्हजें एकसुरें
तुजेच यादीन बावून गेलें
जिणेंत आयलो हुंवार
आनी सपन म्हजें व्हांवून गेलें

तुजे खातीर हांवें एक
मोगा गीत बरयलें
मोगा बदल्याक तूं मात
तिडक उकतावन गेलें

तुजे फाटल्यान पिशा भशेन
भोंवलों कितलो तेंप
नाच पळोवन म्हजे तूं
पोल्यार एक लावन गेलें

तुजींच सपनां हांवें
दीसरात पळयलीं
कांयच फायदो जालोना
तूं लग्न जावन गेलें



# काळजांत भितर

काळजांत भितर येवन वच
मोगाची खुणा दिवन वच
मोग कितें तें म्हाका
ल्हवूच कानांत सांगून वच

सपनांत म्हज्या येवन तूं
म्हाका मातशें मेळून वच
मोगाचो हो खेळ पोरणो
म्हजे वांगडा खेळून वच

मोग म्हाका भिजोवन गेलो
तूंय मोगान भिजून वच
पदर तुजो तोंडार धरून
अशेंच म्हाका लजून वच

फुलां पळय फुल्ल्यांत बागेंत
धांवत यो गो म्हजे वेंगेत
म्हजे म्हऱ्यांत बसून तूं
दोळ्यांत दोळे मेळोवन वच



# वसंत

पानझडीचो जालो अंत
कारण आयलो वसंत
आतां आयलो वसंत

सप्तरंगी. फुलपाख्यांनी
आपलीं पांखां पसरलीं
शेवणीं झाडार गितां गायत
सगलें जगूच विसरलीं

म्हौंवामुसांनी खांदयेचेर
सोबीत सुंदर रचलें पोळें
रंगरंगयाळ्या पतंगांनी भरून
मळबूच रंगीत केलें

धरतरी फुल्ल्या परमळान
कोगळेचो सुटलो कंठ
कारण आयलो वसंत
आतां आयलो वसंत



# हमाल

हांव ह्या शारांतलो एक हमाल
म्हज्या आंगाआंगार वावराच्यो खुणा
म्हजो फुडार हांव जाणां

फाल्यां परत नवी सकाळ उदेतली
आयचे भशेन फाल्यांय वाट दिसतली
परत नवे लोक, परत नवें सामान
दीसभर उरतलों हांव कामांत

कश्ट करून जोडटां हांव
संवसाराची गाडी ओडटां हांव
दुसऱ्याचो भार उखल्लो तरी
म्हजी मान ताठ
आयच्या तरणाट्यांक मेळूं दी
कश्ट करपाची वाट



# कोण अमर ना

वर्तमानपत्राची हालींसरा
रूच जबर ना
शार गुन्यांवांनी भरलां
कांय बरी खबर ना

दुराचाराचे कथे बगर
आयज एकूय शार ना
वाट मेळत जाल्यार कशी
दिशाच हांगा सारकी ना
आयज मनिसूच विखारी जाला
सोरपाक आतां वीख ना
पूण दुर्जन तरी खंय उरतले
कोणूच हांगा अमर ना



# यो गो यो तूं...

तो : यो गो यो तूं पावसांत आमी भिजुया
दर्याचीं ल्हारां पळयत खडपार आमी बसुया

ती : नाका बाबा नाका भिजपाक म्हाका नाका
सोड म्हाका आतां आमी घरा वचुया

तो : दर्या कसो गाजता पळय
ल्हारां कशीं नाचतात पळय
मळब कशें लजता पळय
सैम कशें भिजता पळय
पावस पडटा पावसा वांगडा नाचुया
दर्याचीं ल्हारां पळयत खडपार आमी बसुया

ती: नाका बाबा नाका भिजपाक म्हाका नाका
सोड म्हाका आतां आमी घरा वचुया



तो : कुपां कशीं वाजतात पळय
वारो कसो हांसता पळय
सवणीं कशीं उडटात पळय
झाडां वांगडा धोलतात पळय
वारो येता वाऱ्या वांगडा नाचुया
दर्याचीं ल्हारां पळयत खडपार आमी बसुया

ती : बरें बाबा येतां, उतर तुका दितां
दोगांय आमी मेळुया,
चिप्प पावसांत भिजुया
मोगा रात सारुया

तो : यो गो यो तूं पावसांत आमी भिजुया
दर्याचीं ल्हारां पळयत खडपार आमी बसुया

# इत्सा

म्हजें हें निश्पाप मन
जिणेचीं गणितां सोडयता
चक्रव्यूह हो जिणेचो
म्हाका घेवन नाचयता
म्हजे भितरूच शेणयता

काळ कितलो बदलत गेलो
उतरांनीच म्हाका जागो दवरलो
ही लांब लांब जावपी रात
म्हाका करता अस्वस्थ, व्याकूळ

कितल्याश्याच वर्सांच्यो इत्सा
मनांत घेवन हांव साप्प बुडलां
हांवेंच म्हजे जिणेक उणेपण हाडलां

काळखे रातीं मध्यानेर
मखमली मळबा सकयल
हांव जिणे मुखार माफी मागतां
समर्पण म्हजें करतां ताची घेवची दखल

अखेरेक म्हज्या ओंठा वयलो हांसो
आनी काळजांतली इत्सा पुराय जावची
म्हूण म्हज्या विस्वासाक दितां
आनीक एक कारण
म्हजी इत्सा भागोवपा खातीर
हांव फुडें धुकलतां म्हजें मरण

# तुज्या दोळ्यांतल्यान

तुज्या दोळ्यांतल्यान हांव
सत पळोवंक सोदतां
तुज्या दोळ्यां असलो चकचक
हांव म्हाकाय मागतां

तुज्या दोळ्यांतल्यान रातच्या वेळार
मिणमिणट्या मळबार नदर मारून
म्हाका खूब कितें पळोवं दी
कोण तेल घालून पेटयतात
मळबा वयलीं नखेत्रां
तें मातशें म्हाकाय कळूं दी

हांव रातीन रात अशीच जागयतां
तुज्या दोळ्यांचेरूच हांव कविता बरयतां



# चली

एका बापायचो
स्नेह म्हणल्यार चली
एक गीत, सूर भरीत संगीत
म्हणल्यार चली
ब्रह्मांडाची एक सुपुल्ली भेट
म्हणल्यार चली
मोगाळांत मोगाळ रूप
म्हणल्यार चली
सोबीत सुंदर फूल
म्हणल्यार चली
हें फूल तोडूं नाकात
ताका जगूंक दियात



# येयात...

येयात...
फुडें सांगातान चलुया
सपनां गुंथुया
पलतडी
भुरगेपणांत रचिल्लीं
रेंवेचीं घरां
घट्ट करुया
एकामेकाक
समजुया



# जैताचें दार

संद तुका रावता
तुवेंच ती जोडूंक जाय
तुजी इमारत
तुवेंच उबारूंक जाय
दुसऱ्याच्या दारार
मारचे आदीं
आपल्याच दारार मार
दुसऱ्याक उलो
मारचे आदीं
स्वताकूच उलो मार
जाल्यारूच उकतें जातलें जिणेंत
जैताचें दार

## सुलूस

खूब उबगलां मन
कांयच जायना सहन
निरशेणेन हांव उरलां
बेडयांनी हांव भरलां
सुन्न जाल्या ही कूड
म्हजो हांव ना भानार
पयसुल्ल्यान आवाज पडटा कानार
फुटक्या नळ्यांतल्यान एक किरण
वाट काडीत येता...
म्हज्या दोळ्या मेरेन,
म्हज्या काळजा मेरेन
केन्ना केन्ना लागता सुलूस
रुतू बदलपाची...



# म्हजें अतीथ

म्हजें अतीथ
परत परत म्हाका चाबता
रस्त्या फातर जाल्ले वरी
म्हजे मुखार रावता
म्हजो आयचो कार्यक्रम मोडपा खातीर
तें अशेंच परत परत येता
म्हाका भेडसायता
... आनी उदक उडयता
म्हज्या फुडाराचे वाटेर...
तें गळो दामता, जीव घेता
म्हजे फाल्यांचेय उमेदीचो
हें अतीथ म्हाका रावणा वरी
परत परत आपलीं तोंडां दाखयता...
म्हाका चाळयता...
केन्ना जागो जातलों काय?
म्हज्या अंतरमनांतलो देव
जो आपल्या बाणान उडयतलो कापून
हीं भिरांकूळ तोंडां...
केन्ना मेकळी जातली वाट
म्हज्या फुडल्या प्रवासाची...?



# जिविताचे बागेंत

जिविताचे बागेंत परमळ सुटला
मनांत म्हज्या आंकूर फुटला

आयज हीं झाडां म्हजे लागीं उलयतात
सवण्यांचीं भिरीं काळजाक धोलयतात
तरणे जिणेचो सांगात भेटला
जिविताचे बागेंत परमळ सुटला

आयज मन म्हजें खोशेन भरलां
जिणेन नवें पावल मारलां
दिसता म्हाका हांव सपनांतलो उठलां
जिविताचे बागेंत परमळ सुटला

आयज हीं सवणीं गितां गायतात
दर्या ल्हारां सूर मेळयतात
गळो म्हजो आयज खोशयेन दाटला
जिविताचे बागेंत परमळ सुटला



# थेंबो

हांव एक थेंबो
दर्याचो...
दर्याक सोडून वयर गेलों
कुपांक मेळ्ळों
नाचलों, उडलों
गडगडलों...
खूब खेळ खेळ्ळों
आतां परत सकयल देंवलां
शेणिल्ल्या भुरग्या वरी
परत दर्याक गावलां



# फटींगपणां

खुंटयाळाक लांबयात
तुमची निश्ठा, विस्वास, प्रामाणीकपण
हांगा तांकां कांयच मोल ना
आयज तांची गरजूय ना
हांगा चलतात फटींगपणां
फकत फटींगपणां
पूण फटींगपणाची बुन्याद
चड काळ तिगना
हें फटिंगांक खबर ना



# हारसो

म्हजो हारसो
जाणें इतलो तेंप
म्हजी सेवा केली
हळू हळू म्हजेर रुसला
म्हजें रूप दाखयत, दाखयत
तो म्हजे वरी जाणटो जाला
आतां तो म्हाका वळखना
आतां ताका म्हजें रूप
... सारकें झळकना
देखून आतां म्हज्या हारशाक
नवे रंग भरूंक जाय
ताका तरणो करूंक जाय
म्हजे वरी...



# आस

मरणाच्या जनेलांतल्यान
एक थकिल्ली जीण आशेता
कांय शिता गोट्यांक
एका उदका थेंब्याक
कांय खोशयेच्या, मायेच्या खिणांक
एका आदाराक,
एका शांत मरणाक



# तूं कुपांनी...

तूं कुपांनी उडून गेलें
सांगात म्हजो सोडून गेलें
आयज म्हाका गरज तुजी
काळीज कित्याक तोडून गेलें

एकलोच बसून दुकां गळयतां
तुजीच हांव वाट पळयतां
देवाक हळूच सांगचें तुवें
मातशें सकयल देंवचें तुवें

सुखी जिवीत म्हजें
सांग तुवें खंय व्हेलें
तूं कुपांनी उडून गेलें
सांगात म्हजो सोडून गेलें

जीण म्हजी जाल्या मोनी
तुजे विणें पडल्या उणी
म्हाका अशींच पांखां फुटचीं
दिसता म्हाका कुपां गांठचीं

तुजे विणें म्हजें जिणें
सामकें पळय कठीण जालें
तूं कुपांनी उडून गेलें
सांगात म्हजो सोडून गेलें

# दुर्गे तुजे भेटेक

दोळे लावन थकलों तुजे वाटेक
आयलां हांव गे तुजे भेटेक

तांबडी साडी न्हेसल्या पळय
म्हाका पळोवन हांसल्या पळय
नटून थटून भक्ताचे भेटेक
भांगरा पालखेंत बसल्या पळय
भक्तांची गर्दी देवतेचे जात्रेक
आयलां हांव गे तुजे भेटेक

वायटां पासून मुक्त केल्या
तुवें ही आमची धरतरी
तिनी लोकां भितर माये
तुजीच आसा किर्ती
कितली शक्ती आनी तेज
आसा म्हजे हे मातेक
आयलां हांव गे तुजे भेटेक







# नव्या वर्साच्या पयल्या किरणाक

नव्या वर्साच्या पयल्या किरणा...
तुका हांव कितें दिवं?
एक फूल सवस्तकाये खातीर?
एक तुबक सुटके खातीर?
एक पुस्तक सांगाता खातीर?
तुज्या दोळ्यांक नवी नदर?
तुजे मायेक नवो पदर?
काळजाक नवी आशा?
संघर्शाक नवी भाशा?
नव्या वर्सांत दुकां जावं उणीं
घडोवया एक नवी काणी
एक जावया आमी सोडून जात धर्म
मान बागोवची न्ही, भुजां थकचीं न्ही
तुटूं सगल्यो बेडयो, मेळूं नवो दम

# कितलो लिपतलो आपल्याक...

कितलो लिपतलो आपल्याक
आतां सोडून दी त्या कोनशाक
ओगीच बसून काळखाकुडींत
दोळ्यार येतली साय
सपनां पूर्ण करूंक तुवें
भायर सरूंक जाय
फाल्यांचें कोणें पळयलां
तूं आयचें पळय
भायर सर घरांतलो
आनी नशीब फुलय
पनेळ केन्ना मेरेन
दवरतलो तडीक
आतां हातपांय हालय,
पनेळ उदकांत धोलय
आपलेच पसून
कितलो धांवतलो तूं
थोडो भार
आतां तरी उठय
जीण तुजी आतां
खुशालकायेन पेटय



# गीत गायत यो

कसलेंय संकट येवं दी धीट जायत यो
काळोख जालो जाल्यार तूं गीत गायत यो

जिविताचो खेळ, संवसाराचो मेळ
बरें जावपाक केन्नाय लागता वेळ
संवसाराचे धपके मातशे खायत यो
घडचें आसा घडटलें, घट्ट जायत यो

पावलां सारकीं मार जिणेंत सकयल पडनाका
पडलो जाल्यार ऊठ बेगीन ओगीच रडनाका
जिणेच्या घायांक तूं वखद लायत यो
काळखी जर वाट जाल्यार वात लायत यो

कसलेंय संकट येवं दी धीट जायत यो
काळोख जालो जाल्यार तूं गीत गायत यो



# चिखोल

म्हजेर तांणी चिखोल मारलो
हांवें कांय म्हणलेंना
म्हजें नांव वणटीर बरयलें
हांवें कांय म्हणलेंना
म्हजें तोंड उगडलेंना
म्हजें मनमेकळें वागणें
तांकां केन्ना कळ्ळेंना
पूण...
म्हजें हें मन मात
जळत रावलें, गळत रावलें
आतां...
हांवें उलोवंक जाय
म्हज्या मनाक खेळोवंक जाय



# म्हज्यांतूच आसलें...

आयलें तें, गेलें तें
म्हाका कशें कळ्ळेंना
सगल्यांक मेळून गेलें खंय
म्हाका मात मेळ्ळेंना

हांव ताका मेळूंक आयलों
तें मात आयलेंना
ताचे यादीन जळत रावलों
तें मात जळ्ळेंना

हांव रडलों पूण
तें कशेंच रडलेंना
तें म्हज्यांतूच आसलें
हें म्हाका कळ्ळेंना







## जॉन आगियार

- शिक्षण : बिए
- अश्टतासांचो विद्यार्थी 1983 (श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेज, मडगांव)
- उत्कृश्ठ छात्रसैनीक
- गोंय ते पुणे आनी परत (1983) आनी गोंय ते हैदराबाद आनी परत (1984) अश्या दोन सायकल भोंवड्यांचें फुडारपण.
- गोंय सरकाराच्या माहिती आनी प्रसिद्दी खात्यांत सध्या काम करता. आकाशवाणी खातीर जायतीं नाटकुलीं बरयल्यांत. दूरदर्शनाचेरूय कविता वाचन, मुलाखती तशेंच हेर कार्यावळी केल्यात.
- गृहरक्षक दलाचे मानद कम्पनी कमाण्डर ह्या नात्यान सायकल भोंवड्यांचें आनी रस्ता नाट्याचें आयोजन केलां.
- 'पावलां' हो पयलो कवितां झेलो कोंकणी अकादेमीच्या पालवान 1995त उजवाडायला.
- कोंकणी गितां बरयल्यांत.
- राष्ट्रीय नेमबाज सर्तींत चेन्नयंत 2003 वर्सा गोंयचें प्रतिनिधित्व केलां.
- 'गोंयचो आवाज' ह्या दिसाळ्याचो मुख्य रिपोर्टर म्हूण काम केलां.
- हॅराल्ड दिसाळ्याचो रिपोर्टर म्हूण काम केलां.
- वॅस्ट कोस्ट टायम्स ह्या दिसाळ्याचो वार्ताहर म्हूण काम केलां.
- केंद्रीय विदेश, वित्त, रसायन आनी खत ह्या मंत्रालयांनी त्या वेळा वयले केंद्रीय मंत्री श्री. एदुआर्द फालैरो हांचे निजी सचीव म्हूण काम केलां.

- **पुरस्कार**
- गृहरक्षक दलांतल्या योगदाना खातीर तांचो 2007 ह्या वर्सा मुख्यमंत्री भांगरा पदकान भोवमान केला.
- आदले छात्रसैनीक संघटणेचो 2010चो 'ध नवहिंद टायम्स एक्स-एनसीसी अचिव्हर्स पुरस्कारा'न भोवमान.
- सांगें-केपें पत्रकार संघा कडल्यान पत्रकार मित्र पुरस्कारान भोवमान.
- पणजी रोटरी क्लबाचे वतीन 'वॉकेशनल सेवा पुरस्कारान' भोवमान.

- **नामांकन**
- उत्कृश्ठ कोंकणी गीतकार 2009 (दुसरें विश्व कोंकणी संगीत संमेलन पुरस्कार, मंगळूर)

---

## जॉन आगियार हांचें प्रकाशीत जाल्लें साहित्य

**जीण:** कवितां झेलो 1995
**प्रकाशन संस्था:** जैत प्रकाशन

**गुलमोहर:** कवितां झेलो 2011
**प्रकाशन संस्था :** दीपांजली प्रकाशन